# गोंयची लोककला

## जयंती नायक




राजाई प्रकाशन

# गोंयचीं लोककला

जयंती नायक

प्रकाशन क्र.: 4

पयली आवृती : 2004



छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंटस
माशेल, फोंडें, गोंय

मुखचित्र :
निलेश महाले

प्रकाशक
अवधूत आमोणकार,
राजाई प्रकाशन
आमोणें, केपें, गोंय - 403 705

मोल : रु. 27/-

# Goyanchim Lokkala

Jayanti Naik

PUBLICATION NO.: 4

FIRST EDITION: 2004





PRINTER :
Swarnamudra Prints
Marcela, Ponda, Goa

COVER :
Nilesh Mahale

PUBLISHER :
Avadhut Amonkar,
Rajaee Prakashan
Amona, Kepem, Goa- 403705

PRICE : RS. 27/-



हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.

# गोंयची लोककला

इश्टांनो,

आमचें गोंय हें भारताचे अस्तंत देगेर वशिल्लें एक सुपुल्लें राज्य. ह्या राज्याक लोककलेचें गिरेस्त दायज आसा. ही लोककला म्हळयार गोंयचे संस्कृतीचो आत्मो ! गोंयच्या लोकजिवनाचो जणू प्राण ! हे लोककलेक लागून गोंय आज संवसारांत आपलें खाशेलेंपण सांबाळून आसा.

तर, गोंयचे हे लोककलेचीं वैशिश्ट्यां कितें ? तिचे प्रकार खंयचे ? ती सादर करपाफाटलो हेतू कितें ? तिच्या सादरीकरणांत कसलीं वाद्यां वापरतात ? ती आमी कित्याक सांबाळून दवरूंक जाय ?........अशा साबार विशयांची आतां आमी म्हायती करून घेवया :



*धोलाचें वाजप*



## ❖ गोंयचे लोककलेचीं मुखेल वैशिश्ट्यां

- गोंयची लोककला, जल्मली शेकड्यांनी वर्सां आदीं !
- गोंयची लोककला, परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावपी !
- गोंयची लोककला, नाचतात गोंयच्या मांडांनी !
- गोंयची लोककला, खेळटात घराच्या आंगणांनी !
- गोंयची लोककला, विवीध रंगी, विवीध ढंगी !

## ❖ गोंयचे लोककलेचीं हेर खोशेलेपणां

- लोकनाच, लोकनाटक, लोकखेळ, लोकगायन
  .......... लोककलेचे प्रकार साबार !
- जाती - जातीप्रमाण सादरीकरणाचो आगळो रूपकार !
- अमूक जातीचो अमूक प्रकार ! अमूक प्रकार अमूकच वेळार !
- दादल्यांचे प्रकार वेगळे, बायलांचे प्रकार वेगळे !
- वेग-वेगळे प्रकार खेळपी, वेग-वेगळे खेळे !
- वेग-वेगळ्या खेळ्यांक, वेग-वेगळी मुस्तायकी !
- वेग-वेगळे मुस्तायकेचेर वेग-वेगळो साज !
- फुलां-पानांचे दादले-बायलो घालतात अळंकार !

## ❖ गोंयचे लोककलेक लोकवाद्यांचो सांगात

- दर एका लोककला प्रकाराचें आसता आपलें अशें खाशेलें लोकवाद्य!





- ह्या लोकवाद्यांतल्यान उपजता खाशेलें लोकसंगीत !
- ह्या लोकसंगिताक सांगात दिता केन्ना केन्नाय ताळयांचोय नाद !
- धोल, तासो, झांज, ताळ, कांसाळें, जगांट, नगारो चौघुडो, शेनाय, सुर्त, कोर्नो, शामेळ, नागशेर, घुमट, म्हादाळें, पावो .......मेळटात कितकीं तरी लोकवाद्यां!
- सगळींच देशी ! कांय गोंयचे मातयेतल्यान तयार जाल्लीं, तर कांय हेर राज्यांतल्यान चलत गोंयात पाविल्लीं !
- ह्या देशी वाद्यांचो आनी फिरंगी गितार-रेबेकाचो सुमेळ जाल्याचो केन्ना केन्ना दिश्टी पड्टा अप्रूप देखाव !



*गोंयचीं लोकवाद्यां*

## ❖ लोककलेचो उदेव

- लोककला म्हणजे निकटें मनरिझवणेचें साधन न्ही ! ना म्हुणून वेळ पासार करूंक वोगीच खेळिल्लो तो खेळूय न्ही !
- तांच्या सादरीकरणा फाटल्यान आसता, लोकांची श्रध्दा !



भाविकांचो देवावयलो भरीभार !

- तांचें सादरीकरण आसता एक धर्मविधी ! एक धार्मिक भोगावळ!
- पावस कसो पडटा ? ऋतु कशे बदलतात ? औरां - मोडां कशीं येतात ? दुकोळ कसो पडटा ? भुंयकाप कशे जातात ? झाडां - रूख कशे फुलतात, फळटात ? जल्म वा मरण कशें घड्टा ? संवसारांत नवे जीव कशे जल्माक येतात ?........ हे तरेचे धर्तरेवयल्या जिवितासंबंदान आमच्या पुर्वजांक पडले साबार प्रश्न ! साबार गुढां !
- मागीर त्या प्रश्नांचो आपलेपरीन सोदल्यो तांणी जापो ! सोडयलीं कठीण गुढां!
- कळ्ळी तांकां संवसारांतले अदृश्य शक्तींची म्हयमा ! ह्या शक्तींक वश करपाखातीर घडयलीं तांणी तरकेवार यंत्रा - तंत्रां !
- ह्या यंत्रां-तंत्रांच्या रूपकारांतल्यानच उदेल्यो विवीध लोककला !

## ❖ लोककला सादर करचेआदीं करतात देवाक होरावणी

- नाच जावूं, नाटक जावूं ! गायन जावूं, खेळ जावूं ! संवसाराचें नियंत्रण करपी शक्तीचे होरावणेन जाता सुरवात दर एका लोककला प्रकाराच्या सादरीकरणाक!
- गणेश - नागेश, आदिनाथ - भूतनाथ, जल्मी - पायक, सांतेर - दुर्गा, भगवती - म्हामाय......... हे शक्तीक अशीं तरकेवार नांवां ! तिचीं तरकेवार कार्यां !



- मांड हिंदुंचो आसूं  किरिस्तांव समाजाचो आसूं, होरावणेची चाल आसा सगळयाक!
- दादल्यांच्या मांडार होरावणी करतल्याक म्हण्टात, ' मांडकार' ! बायलांच्या मांडार होरावणी करतलेक म्हण्टात ' मांडकान्न ' !
- वात - दिवो पेटोवन, नाल्ल - फळ फोडून, सांगणी- नमन करून जाता मांडां - मांडांनी होरावणेची सुरवात !






*देवाची होरावणी*

## ❖ गोंयचे लोककला प्रकार

- नाच, नाटक, खेळ, गायन मेळटात अशे गोंयचे लोककला प्रकार मुखेल चार ! हे म्दींय आसतात ' बायलांचे ' आनी 'दादल्यांचे ' वेगळचार !

### ◆ लोकनाच

**बायलांचे लोकनाच**

- गोंयांत बायलांचे लोकनाच प्रकार मेळटात, मुखेल दोन ! एकाचें नांव ' धालो ', दुसऱ्याक म्हण्टात ' फुगडी '.



- धालो नाचतात गावडी, नायक, खारवी, देसाय बी समाजांतल्यो बायलो पौश म्हयन्यातल्यो खंयच्योय णव राती !
- गांवांत केन्ना सगळया जातींचो एकूच मांड, केन्ना आसता, दर एकाचो वेगळो !
- शेणान सारयिल्ल्या मांडार, चान्न्याच्या उजवाडात, चलता धालांचो नाच पुराय रात !
- रंग-रंगयाळीं कापडां, माथ्याक तरकेवार फुलां, हातांक हातभर काकणां, कपलाक कपलभर कुकूम........ अशा भेसांत सवाशिणी काळोख पडटकच मांडार जमून, दवरतात एके दुसरेच्या खांदार हात !
- आंकवार - कुमारिकाय करतात तांचेवांगडा नाच !
- खेळगड्यो मांडार करतात दोन वोळी, रावतात उब्यो एकमेकांच्या सामकार !



धालो नाच



- तालांत पावली वडयत, मानो धोलयत एके वोळीन थंबपाचें आसता वचून परत दुसरेच्या म्हऱ्यांत !




- ह्या वेळार गायतात गितां अनेक !
  तरी,

  श्री धालो गे धालो
  धालांनी खेळूं या गे धालो, धालांनी खेळूंया.

  धालांच्या पांयांत सोलमुदी साजे
  धालांनी खेळू या गे धालो, धालांनी खेळूंया.

ह्या सारकें गीत सगळयाक एक !

- धर्तरींमाया, सांतेरमाया, तुळशीमाया, रंभामाया........ चांगेश, नागेश, भैरांव........ गितांतल्यान होरायतात अशा सगळयांच देव-देवतांक !
- धालांत नासता एकूय वाद्य, तरीय सुरांच्या पावसांत न्हाता सगळो वाठार !
- मध्यान राती मांडार येतात रंभा-बंधवाचे भार ! पळोवप्यांचें सगळें थरथरता आंग !
- हिंदू सारक्यो जातात गोंयांत किरिस्तांव बायलांच्योय धालो ! धर्म बदल्लो तरी मूळ संस्कृतायेकडली वार तोडली ना म्हणपाचो येता पडटाळो!
- फुगडी नाचतात धालांच्या मांडार, चवथीक पुजिल्ल्या गणपतीमुखार, श्रावणांत बायलांनी पुजेक लायिल्या आयतारा

मुखार आनी नागपंचमीक काडिल्या नागाच्या चित्रामुखार !

- फुगडेचीं गोंयांत मेळटात शेकड्यांनी गितां, पूण

' नेण्टेली बायी शिता,
शिता गेली ती न्हंयेच्या तिरी.
शितेन पहिला साद केला,
तो वाऱ्याच्या झोकाने गेला..........

वा

' पांच पाकळयांचें गे फूल रूमडाचें,
तें फूल घडय शेटी भांगराचें.
तें फूल माळून गेली मांयक पांयां पडूंक,
मंयिन म्हण्टलें सुने नंदू आयावपण..........

हीं वायलांच्या भोव आवडिचीं.



*वांटुची फुगडी*



- धालांतलीं सगळींच गितां देव धर्माचेर, पूण फुगडेचीं थोडीं गितां सांपडटात, सामाजिक विशयांचेरूय.
- वांटकुळी फुगडी, भोंवरी फुगडी, जोडी फुगडी, उबी फुगडी, बेबकी फुगडी, लग्न फुगडी, रगडो फुगडी, धालो फुगडी, कळशी .....फुगडी - आतांमेरेन गोंयात सांपडल्यात एकूण णव प्रकार फुगडेचे.
- चड चालंत वांटकुळी फुगडी ! खेळगड्यो बायलो वांटकुळयोच रावन कमर बागोवन उजव्यान दाव्यान वा कांयवेळार फुडल्यान ताळयो पेटीत, तालांत पावली वडोवन घुंवत नाचतात हो नाच !
- ना कसलें वाद्य, पूण ताळयांचो आसता नाचाक गाज !

**दादल्यांचे लोकनाच**

- फाल्गुनांतलो धुल्ल तापता आनी धोल - तासो, घुमट - कांसाळयांच्या गजरांत जाता गोंयच्या शिगम्याक सुरवात !
- सगळया आसमंतात घुमता ' घुमचे कटर घुम्म ',' भले भले शबय ' चो आवाज !
- दादल्यांच्या भौतेक लोककला प्रकारांचो संबंद शिगम्याच्या मेळाक!
- शिगमो पुरायेन दादल्यांचो ! शिगम्याक नाचिल्ले सगळे नाचूय दादल्यांचे !
- तालगडी, तोणयांमेळ, गोफ, मोरूलो, घोडेमोडणी, विरभद्र, चपय.......... पुनवेदिसा सादर जातात गांवच्या आंगणां - आंगणांनी साबार तरेचे नाचखेळ !





*तालगडी*

- खेळयांच्या कमराक पुडव्याचो घट्ट कांसाटो ! तांचेवयर बांदिल्लो शेलो ! माथ्याक आबोल्यांचे कुरपाणें, गळया - हातीक फुलांचे झेले !
- शिगम्याच्या खेळयांक म्हण्टात ' वीर ' ! दर घराकडेन घरची सवाशीण राट - दिवो दारवोवन दिता विरांकं येवकार व्हड !
- शिगम्याचीं वाजपां सगळी रूद्र ! नाचाक आसता नेट - वेग !
- सगळयांत आदीं जाता नमनाचो खेळ, गांवच्या मांडार ! मागीर



उमेद भागसर नाच नाचतात गांवच्या दर एका आंगणांत !

- आंगणांत वांटकुळेच उबे रावन नाचपाचे आसतात भौतेक खेळ !
- नाचखेळाक गायतात चौरंगी-जती देवादिकांच्या कथांचेर, पुराण - इतिहासाच्या आख्यायिकांचेर आनी केन्ना सामाजिक विशयांचेरूय!

**‘ पर्वताच्या दोंगरा,**
**फुलोला मोगरा**
**देवा तुज्या नगरा**
**उत्सव झाला ! ’**

ह्या सारकीं ल्हान ल्हान कवनुलांय वाडयतात नाचाची रंगत !

- तालगडी - ताळ घेवन नाचपाची, तोणयांमेळ - तोणयो घेवन नाचपाचो !
- गोफ दोरयांच्या आदारार विणपाचो, चपय कांसाळयांच्या वाजपार खेळपाची !
- फाल्गून पुनव ती अमास, जातात गोंयभर सगळयाक नाचच नाच !
- काणकोण ते पेडणेमेरेन दर गांवचे खोशेले नाच प्रकार !
- दिवचल - पेडणे - सत्तरीक घोडेमोडणीक लागून नांव !
- घोडेमोडणींत हाडटात युध्दाचो आव !
- खेळे आंगार राजपुतांनी भरजरी पोशाख घालून, कमराक घोड्यांचीं मुखी बांदून, हांतानी तरसाद वावुडीत नाचतात झुजाचो नाच !
- भुरग्यां - बाळांच्या आंगार कांटो उबो करपी हो मर्दानी नाच,



रंगता गांवच्या थारावीक शिमे - वाठारांत !



*घोडेमोडणी*

- सांगे, फोंडे, सांखळे - गोंयच्या ह्या तीन वाठारांत मुखेलपणान जाता विरभद्र शिगम्याक !
- हेर वाठारांत आयकूंक येता जाल्लो केन्नाय धालांच्या मांडार !
- नाचपी एक, होरावपी अनेक ! विरभद्राच्या आंगार पुराणांतलो भेस !
- विरभद्र नाचता सगळो वेळ, था थै - थक थै ! कानडी राजवटीवांगडा पावलो गोंयांत हो नाचखेळ !
- विरभद्राच्या आंगार पौराणीक रूद्र भेस ! हातांत पेट्ट्यो चुडी, तर केन्ना लखलखीत तरसादी !
- विरभद्र अक्राळ - विक्राळ दिसूंक सवंगाच्या तोंडाक लायतात

तांबडो - धवो - काळो कोर !

- ' विरभद्रण्णा ऽऽ ! कैलास वळगे ऽऽ ! महादेवाच्या वरद पुत्रा ऽऽ ' अश्यो मोठ-मोठ्यान हालेटी मारीत विरभद्राक नाचूंक हाडटात चेव !



*विरभद्र*

- चपय नाचतात दोंगरमाथ्यांनी रावपी धनगर लोक !
- आंगाक चोळणो, पांयांक घुंगूर, हाताक वाळे असो भेस ! नाचपी हातांत रूमाल फिरयत येता नाचपाच्या ह्या नाचाक खाशेलो झेत !
- हिंदू दादल्यांच्या लोकनाचांमदीं, ' धिनलो ' नाचाक आसा बरेंच नांव !

- खेळ किरिस्तांव भावांचो ! रणमालें - कालो, हिंदू लोकांचो ! जागोर आसा दोगांयचोय !

**कालो**



*कालो : गणेश पुजन*

- लोकनाटकांक जमीनच आसता माची आनी ना कसली दुसरी स्टेज !
- दादलेच जातात बायलो आनी गायन-नाच आसता भौतेक वेळ !
- कार्तिक म्हयन्यांतले पुनवेन जाता काल्याची सुरवात !
- खांदाक पेटारो लावन, हरदासावांगडा एकाकाळार दुसऱ्या दिसाच्यान कलाकार सरताले भायर आपल्या कार्याक !
- पयलो प्रयोग ग्रामदेवाक, मागीर आशी - कुशींच्या गांवांत !
- चिकलकालो, गोपाळकालो, गौळणकालो आनी दशवतारी कालो - काल्याचेय म्हण चार प्रकार !
- चिकलकाल्यांत खेळे करनात, कसलीय कथा सादर ! मात देवळाच्या मुखार धुमशणां कांडून करतात चिकल !



- गोपाळकाल्यांत कृष्ण - सवंगड्यांचे कथेचेर, जाल्यार गौळणकाल्यांत कृष्ण - गौळणीच्या क्रिडांचेर करतात नाटक !
- दशावतारी काल्यांत सादर जातात पुराणांतलीं आरव्यानां ! विष्णुच्या धा अवतारांची धा विंगड विंगड कथानकां !
- हरदासाकडेन आसता पुराय नाटकाचें सुत्रधारपण ! सुरवेक गणेशपुजन,अखेरेक शंखासूर वध!मदीं येता खंयचेंय कथानक!

### रणमालें

- रणमाल्यांत जातात रामायणांतले प्रसंग उबे !
- गाणेली कथानकाचेर आदारिल्ल्यो होंवयो गायत वतात, तर खेळे अदीं मदीं प्रसंग नाट्यरूपान उबे करतात !
- गोंयांत रणमालें मेळटा फकत दोन तालुक्यांनी !
- एक सांगें आनी दुसरो सत्तरी ! सांग्यार सांपडटा एकाच कुमारी गांवांत ! सत्तरींत मात बऱ्याच वाठारांत !



*रणमालें : पुर्वरंग*

- सत्तरींतलें रणमालें वार्सिक पध्दतीन सुरू जाता शिगम्याक, आदल्या काळार लोकांचे मागणेन जातालेंय लग्न - कार्याक !
- सांग्यावयलें रणमालें फकत कार्तिकांतले पुनवेक !

जागर

- पेरणी जागर आनी गावडी जागर, जागराचे प्रकार दोन !
- पेरणी जागर सादर करतात ' पेरणी ' जातीचे लोक. गोंयांत मळकर्णे, वाघुर्मे हांगां तांची वस्ती चड !
  पेरणी जागरांत अवतरता आदिमाया, करता संहार मधु-कैटंभ ह्या दैतरूपी दुश्ट प्रवृत्तीचो !
- गावडी जागर गोंयचे मातयेकडेन प्रामाणिक ! घुमट, कांसाळें, म्हादाळें हांचे ताका लोकसंगीत !
- गावडी जागर सादर करतात गावडी जमातीचें लोक ! ताका सलग अशें एकूच कथानक ना !


गावडी जागर



- निखणदार, फिरंगी, तेंडली, काराथी, शेट, म्हार, म्हारीण, खाप्री, भोंवर, अंबाबाई.......... अशीं विवीध सवगां येवन करतात नाच आनी सांगतात गितांतल्यानच आपली वळख आनी कार्य !
- पायांक लांब लांब दांडे बांदून, तांचेर उबे रावन केल्लो नाच पळोवंक मेळटा गोंयांत फकत जागरांत !

**खेळ वा फेळ**

- किरिस्तांव समाजामदीं जातात नाटकां, नांवान ' खेळ ' (फेळ)!
- कथा आसता समाजिक आनी सादरीकरण जाता इंत्रूज आनी पास्कां फेस्तांक !
- खेळ जाता मांडार, केन्ना मागणेन लोकांच्या आंगणांत !

## ◆ लोक खेळ

- फांतरांचो खेळ, मिठाचो खेळ, कोंयड्या - बालांचो खेळ......... गोंयांत आसात जायते हौशी खेळ !
- वेवसायीकांचो खेळ मात मेळटा एकूच, नांव ताचें ' गणसा बैलाचो खेळ ' !
- गणसाबैल म्हळयार 'नंदीबैल'! बसवराज ताचे आनी एक नांव !
- पांय दोडून, दिमी मोडून धनयान सांगिल्याप्रमाण तो करून दाखयता करामती! ह्या वेळार बसवोकार वाजयता धोलकें आनी शेनाय ! गायता पारंपारीक गितां आनी ' कुळी ' !

## ◆ लोकगायन

- नाच - नाटकांवांगडा काव्य गायनाचीय आसा गोंयात परंपरा व्हड !





- कवनुलां, गितां, ताळ, दुलपद, चौरंग, पाळणे, होंवयो, गीतकाणयो, बनवड, कुळी.......... गायनाचे गोंयात साबार प्रकार !
- गायनान येता कामाक बळ आनी जातात पयस कश्ट !

होंवयो

- होंवयांचें गायन करतात बायलो, प्रकार तांचे साबार !
- दांत्यावयल्यो होंवयो, कांडपाच्यो होंवयो, नडपाच्यो होंवयो, शेत रोवपाच्यो होंवयो.......... दर एका कामाची खाशेली होंवी !
- लग्नसुवाळ्यांत तर होंवी गावनच करतात एक एक विधी ! आमच्या जाण्टेल्यांखातीर लग्नांत मंत्राचें काम करताली ती !
- होंवयांची ही तरा आगळी - वेगळी ! सुरांच्या पावसांत न्हाता आख्खी धर्तरी !
- धर्म खंयचोय आसूं, होंवयांची चाल सगळ्याक ! किरिस्तांवांच्या काजारांतय सांपडटा ती ' वेर्स ' नांवान !

बनवड

- म्हाळ म्हयन्यात गावडी - कुळंबी जमातींमदीं जाता दादल्यांचे ' बनवड ' गायन!
- ह्या गायनात सांगतात ' महाभारताची काणी ' !
- काणयेंतल्यान पितरांक होरायतां होरायतां अखेरेक आपोवणें दितात आपल्याय मेल्ल्या पितरांक !
- पांच - पांच, स-स वरां अखंड चलता हें गायन यजमानाच्या चौकार ! मुखेल गाणेली एक, ताका सांगाती कित्येक !






**गीतकाणी**

- अर्द गद्य, अर्द पद्य - लोककाणयेचे हें आगळें रूप !
- रात रातभर चलता गीतकाणयेचें गायन ! सुरांच्या पावसात भिजता सगळो आसमंत !
- मुखेल गाणेलीक सांगाताक आसतात अनेक ! जाण्टे - नेण्टे काणयो आयकतना मांडटात 'हय' !
- काणी राजा - राणयेची, काणी म्हातारे पोराची !.......... काणी आसता गोंयचे लोकजिणेची !
- गितकाणयेच्या गायना फाटल्यान नासता निकटो मनोरंजनाचो उद्‌देश, समाज शिक्षणाचो आसता ते फाटल्यान हावेस !
- एकाकाळार धर्तरेमायेच्या होरावणेचें गीतकाणी आशिल्लें साधन मुखेल !

**गड्यां रामायण**

- बनवडीच्या समपांतलें सांपडटा, गोंयच्या तळां-गाळांत ' गड्यां - रामायण ' !
- शिगम्याच्या मांडार गड्यांक होरावपाक करतात दादले हें काव्य गायन !
- ह्या गायनाक वाजयतात घुमटां आनी कांसाळीं ! करतात गायनांतल्यान उबी रामायणाची काणी !

## ❖ गोंयचे लोककलेची सद्‌दयाची स्थिती

- गोंयचे लोककलेची आज जायत चल्ल्या बरीच वायट स्थिती !
- राजाश्रय तुटला, देवळांचो आदार शेणला, नव्या भुरग्यांचो

तांचेकडेन पळोवपाचो आदलो भावार्थ गेला !

- शारीकरणान आनी शिक्षणान हाडल्या लोककलेचेर हावळ ! आज शेणलां गांवच्या मांडाचें चैतन्य !
- गांवचे मांड पडूंक लागल्यांत वसाड ! सिनेमा, टि.व्ही. आनी साबार इलेक्ट्रोनीक माध्यमांनी आंवुळया लोककलेची गची !
- लोककलेच्या पवीत्र मठयेंत आज रिगल्या विकृती ! सर्त, प्रसिध्दी आनी वेवसायीकरणाच्यो हांगा थंय चलल्यांत चडा - वोडी !
- गोंयच्या लोकसंस्कृतीच्या राखणदारांची खळळया आज न्हीद ! कारण शेणत जर ही गिरेस्तकाय जाण्ट्यांची, जातले आमी गरीब !
- गोंय सरकाराची गोवा कोंकणी अकादेमी, कला अकादमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय ..... कांय संस्थांनी चलयल्यांत लोककलेच्या सांबाळाचे आपलेपरीन यत्न !

## ❖ गोंयचे लोककलेच्या सांबाळाची गरज

- गोंयचे लोककलेचो फुडार आसा आतां नवे पिळगेच्या हातांत ! तिणेंच नेटान फुडें सरूंक जाय आज तिच्या सांबाळाक आनी संवर्धनाक !
- कारण, गोंयची लोककला तिगून उरल्यारच गोंयची संस्कृताय तिगतली ! गोंयची अस्मिताय जगतली ! गोंयकार, 'गोंयकार ' म्हण उरतलो ! गोंय,' गोंय ' म्हणून दिसतलें !



## जयंती नायक हांचें प्रकाशीत बालसाहित्य

| | | |
|---|---|---|
| 1. सोरपाची करामत (अणकार) | नॅशनल बूक ट्रॅस्ट, इंडिया | 1998 मोल रू. 8.00 |
| 2. वागमामाची फजिती | जैत प्रकाशन | 2001 मोल रू. 18.00 |
| 3. चड शाण्यांक फातरांचें शीत ! | राजाई प्रकाशन | 2001 मोल रू. 30.00 |
| 4. नवरंगी फूल | युगवेद प्रकाशन | 2002 मोल रू. 15.00 |
| 5. भुरग्यांखातीर लोककाणयो | युगवेद प्रकाशन | 2002 मोल रू. 20.00 |
| 6. सानुल्यांचीं कवनुलां | राजाई प्रकाशन | 2004 मोल रू. 27.00 |
| 7. गोंयची लोककला | राजाई प्रकाशन | 2004 मोल रू. 27.00 |

राजाई प्रकाशन
आमोणें, केपें,
गोंय - 403705